# मनशाच्या सोदांत

(कवितां झेलो)

उदय नरसिंह म्हांबरो

नविश्री क्रिएशन्स



**MANSHACHYA SODANT**
By Uday Narsinha Mhambro
udaymhambro@gmail.com

+91 9420766769
+91 8806049969

**मनशाच्या सोदांत**
उदय नरसिंह म्हांबरो
पयली उजवाडावणी
2017

**प्रकाशक :**
नविश्री क्रिएशन्स
वळवय, फोंडें-गोंय



**मुखचित्र :** राधिका सुखटणकार

फोटोग्राफी : अमित हळर्णकर

**छापपी :**
THE PRINT WORLD
K-5, Opp. DIGILINK,
Industrial Estate, Verna Goa
Mob : +91 9545474182

**मोल :** रु. 100/-

श्रीमानेस्त मेल्वीनबाब,
मायेमोगान.
16.09.2019

## मीना,

*तुजे सारकें केवळ तूंच आसूंक शकता.*
*म्हज्यांतल्या अवगुणांचेर*
*तुज्यांतल्या सद्गुणांचे*
*पांगरूण धांपला,*
*देखून हांव खपून गेला.*
*तुका तशें हांवें केन्ना कांय दिलेंच ना.*
*म्हजी कविता दितां. ती मानून घे.*

**- उदय**

खंयचोय साहित्यकार निर्मिती करता ताच्या लेखनात समाजाच्या, भोवतणच्या वातावरणाच्या चित्रणां वांगडाच लेखकाच्या सभाव वैशिश्ट्यांचेंय पडबिंब उदेता. कांय लेखकांचे बाबतीत हो आडवाद आसूं येता. सर्वसादारणपणान त्या त्या लेखकाची जीवन पद्दत, विचारपद्दतूय तातूंतल्यान प्रतिबिंबीत जाले बगर रावना. खंयच्याय लेखकाच्या साहित्य प्रकाराचो बारीकसाणेन समीक्षकाचे नदरेन विचार करता तेन्नाच हें लक्षांत येता.

फाटल्या 35-40 वर्सां आदीं कोंकणी कवितेच्या मळार कांय तरनाट्यांचें भिरेंच आयलें. तें कोंकणी भाशेचो उफाट अभिमान घेवन. मजगतच्या काळांत तातूंतले कांय जाण काळाच्या कुपा पोंदा गेले जाल्यार कांय जाण थिरावले. तांची साहित्य साधना अखंडीतपणान चालू आसा. कांय जाण कुपा पोंदच्यान ल्हवूच चंद्र भायर येवचो तसो भायरूय आयले. तांचे साधनेत खंड पडिल्ल्यान जाल्लें लुकसाण भरून येवंक जाय तशें येवप कठीणूच आसता. ह्या भिऱ्यांमदलोच म्हजो समकालीन उदय नरसिंह म्हांबरे. काव्य रोसाच्या तळ्यांत आयज तो परतून पेंवपाक लागलो. ही खोशयेची गजाल. उदय म्हांबरो एक प्रतिभावंत कवी. त्या काळार जनमानसांत कोंकणी कविता लोकप्रिय करपाचें काम ताचे कडल्यान घडलें. खंयचीय कविता कृती प्रभावीपणान सादर करून आयकुप्यांक खिळोवन दवरपांत आयजूय तो तितलोच फिशाल. ताकाच लागून

कॉलेज जिवितांत ताणें बरयिल्ली 'म्हाका गो तूं अशें जाय' आनी 'हय सायबा' ह्यो कविता आयजूय रसिक उखलून धरतात. आदले वरीच आयजूय ह्या कवितांक बरो प्रतिसाद मेळटा.

म्हजे मतान संवसारांत मनीस जात आसा मेरेन 'म्हाका गो तूं अशें जाय' ही उदयाची कविता जितीच उरतली, हातूंत दुबाव ना. उदयान आनीक एकूय कविता बरोवंक नाशिल्ली जाल्यार लेगीत ताका कवी म्हणपाक ही एकूच कविता पुरो, अशें म्हजें स्पश्ट मत.

कॉलेज जिवीत सोपचे आदींच उदय घरच्या नाल्लांच्या व्यवसायांत घुसपलो आनी लागीं लागीं सुमार 25 वर्सां तो साहित्य चळवळीत दिसलोच ना. ताणें आपल्या पारंपारीक नाल्लांच्या वेवसायाक नवें रूप दिलें. एक बरो उद्देजक म्हणून तो नावा-रुपाक आयलो.

कविते कडल्यान तो पयस रावलो खरो, पूण कविता मात ताच्या काळजाच्या कुरकुटांत दडून बशिल्ली. तिका भायर येवपाक वातावरण मेळनासलें. ती भितरले भितर घुस्मट्टाली. वेवसायाच्या व्यापान ताकाय तिचे कडेन पळोवपाक उसरपतच मेळनासली. पूण कविता ती, भितर कशी रावतली! संद मेळ्ळी तेन्ना ती भायर आयलीच. साहित्य प्रतिभा हें ईश्वरी दान आसता. साहित्य निर्मितीचो आनंद हो संपत्तीच्या आनंदा परसय वेगळो आसता, निखळ आसता. ह्या आनंदाचें वर्णन उतरांनी करूं नजो. ते खातीर कागदार व्यक्तूच जावचो पडटा. वॉट्सअॅप वा फेसबुकारूय म्हणूं येता. हें कालांतरान होलमता.

म्हजे सारक्या ताच्या हे मित्रांच्या आगऱ्याक लागून उदयाच्या पन्नासाव्या वाडदिसाच्या निमतान तागेल्यो आदल्या काळांतल्यो कविता पुंजायल्यो. ताचें संचित म्हणून त्यो पुस्तक रुपान येवच्यो अशें आमकां सगळ्यांकच दिसलें आनी ताचो 'हय सायबा' हो पयलो कविता झेलो 2012 वर्सा उजवाडायलो. आर्ल केरीच्या ट्रोपिकल स्पायस ह्या अण्णाल्या प्लांटेशनांत घडोवन हाडिल्लो हो सुवाळो

म्हणून म्हजेतरी यादींत उरला. त्या खिणा सावन ताचे काळजांत दडून आशिल्ल्यो कविता ल्हवू ल्हवू भायर सरूंक लागल्यो. आयज तो निर्मितीच्या आनंदाच्या ल्हारांचेर उफेत आसा. आनी आतां 'मनशांच्या सोदांत' हो ताचो नवो दुसरो कविता झेलो उजवाडाक येता हाचो आमकां आनंद जाता.

उदय हो तसो सरळ मार्गी मनीस. आपल्या जिविताची गाडी रुळा वेल्यान घसरूंक जायना हाची सदांच जतनाय घेवपी. कुटुंबवत्सल, प्रेमळ, भावनीक. दुसऱ्या विशींचो ताका कळवळो. आपल्या वेवसायांत मानाय म्हणून काम करप्यांच्या भवितव्याचो विचार करून तो तांचो विमो लेगीत काडपाचें काम खूब काळासावन करीत आसा. 'गरज सरो वैद्य मरो' ही नीत ताणें आपणायली ना. सगळो समाजूच उजू मार्गान चलचो अशें ताका दिसता. देखून तो कितलेंय लुकसाण जालें तरी सत्याचो मार्ग सोडिना. हेच फाटभुंयेर भाश्य करपी 'असत्यधर्म' ही सुंदर कविता ह्या संग्रहात आमकां वाचूंक मेळटा. उदयान आपल्या अणभवाचो अर्क हे कवितेंतल्यान देंवयला.

दूखदिणी गजाल म्हळ्यार आयच्या काळांत समाजांतल्या बरे म्हळ्यार सत्याच्या मार्गान चलपी मनशांचेरच चड अन्याय जावंक लागला. ताचो परिणाम समाजांत बरे चलणुकेचे मनीस दुर्मीळ जावंक लागल्या. संवसारांत आतंकवाद लेगीत ह्याच कारणाक लागून तयार जावंक पावलो. खंयच्याय आतंकवादाचें मूळ सोदपाचो यत्न करीत जाल्यार तें कळपाचें. समाजांत बऱ्या लोकांचो आंकडो वाडूंक जाय जाल्यार बऱ्या मनशांचेर अन्याय जावंक जायना. हाचो सगळ्याच घटकांनी विचार करपाची गरज आसा. तो केलो ना जाल्यार निश्पाप बरे मनशांच्या मनात लेगीत वायट विचार प्रवेश करपाचो यत्न करता. हो प्रयत्न फळादीक जावंक फावना.

ताचो 'असत्यधर्म' हे कवितेंतल्यो निमण्यो वळी खूब कितें सांगून वतात.

*सत्याच्या पुजाऱ्यांचें*
*आसता व्हडलें तोंड*
*पांयातळा पळयात मातशें*
*जालां रेब्या कोंड*

सत्याचो पुजारी खंयच्याय प्रस्नाचेर भूमिका घेवंक फाटी रावना. तो भिजूडपणा करूंकच शकना. आयच्या सुवार्थी समाजाक असल्या मनशांची भावना कळना. तो ताका किंकोत करता आनी लुकसानय करता. एक दीस सत्यान चलप्याकय दिसता. सत्याच्या मार्गान रावून आपणें कितें मेळयलें काय म्हूण. थंयच समाजाची वाट लागता.

उदयाल्या ह्या संग्रहांतल्या सगळ्याच कवितांचेर हांवें भाश्य केलें जाल्यार वाचकांक कितें उरतलें? हाची म्हाका कल्पना आसा. देखून ज्या कवितांचेर बरयले बगर म्हज्यान रावूं नजो त्याच कवितांचो हांव उल्लेख करता.

काळीज हो उदयाचो आवडीचो विशय. ह्या विशयाचेर ताणें जायत्यो कविता बरयल्यात. पूण 'कॅथलेबाचे बाज्जेर' ही ताची कविता म्हजे खातीर अप्रतीम अशेंच हांव म्हणन. काळीज हें प्रतीक घेवन ताणें मनीस समाजाक एक शिटकावणी दिवपाचो सुंदर शैलीन प्रयत्न केला तो तोखणायेचोच. वयर वयर विनोदाची झालर आशिल्ली ही कविता कवीच्या ताळ्यांतल्यान आयकतना वा वाचतना घडये सुरूवातीक हासूंक येवं येता. पूण अत्यंत गंभीर आशयान थपथपिल्ली ही कविता. मानवी जिवनाचें एक सत्य कवीक सोप्या उतरांनी उस्तून दाखयलां. त्या सत्याची फोडणिशी लेगीत करपाची म्हाका गरज दिसना. कवी हे कवितेंत घंयरावान भरिल्लीं काळजां चलतना आडखळना पूण नितळ काळजांच चलता चलतांच बंद पडटात. अशें उपहासान म्हणटा आनी बरे मनशाकच कशे त्रास जातात हें सांगपाचो यत्न करतां. तातूंतल्यान कवीक बऱ्या मनशां विशीं कितली चिंता आनी हुस्को आसा हें दिसून येता.

उदयान समाजांतलीं सुख -दुख्खां अणभवल्यांत ताचो सगळ्या

थरांतल्या मनशां कडेन घराब्यां कडेन संबंद आयला. तांच्या सुखांत, दुख्खांत तो वांटेकार जाला, कितल्याशाच घराब्यांतल्या बायलांचे भोगणार ताणे पळयल्यात. पुरुषार्थाच्यो काणयो सांगपी दादले घरांत बसून बायलांच्या खुस्तार कशे जियेतात. तेचपरी आपलीं व्यसनां लेगीत ते बायलांच्या खुस्तार भागोवपी आसता. पूण त्याच घरांतल्यो बायलो-धुवो संवसाराचो भार माथ्यार घेता तो पळोवन कवीक तांची काकुळट येता. हाचे कवी चारूच वळींनी कशे चित्र चित्रयता तें पळयात.

*कांय घरांतल्या पुतांनी*
*भल्ल्यांत काकणां हातांत*
*त्या घरांतल्या धुवांनी*
*माथें मारलां संवसाराक*

घरांतलो दीवो म्हणून चलोच जाय असो आगरो धरून चलयांक पळोवन तोंड वाकडें करप्यांक उदयान हे कवितेंतल्यान सालामारकाची भायरीच दिल्या, अशें म्हळ्यार अतिताय जावची ना. एक व्हडलो आशय कवीन चारूच वळींनी उबो करून वाचप्यांक विचार करूंक लायला.

समाजांत दोन प्रकारचे मनीस आसतात. एक वर्ग चिड्डुप्यांचो आनी दुसरो चिड्डून घेवप्यांचो. हो आशय जायत्या लेखकांनी कवींनी केळयला. पूण हो आशय केळयतना उदयान मुट्टे हे घेतिल्ले प्रतिकच तोखणाय करपा सारकें आसा. ताका लागून 'मुट्टे' ही कविता वाचनीय अशीच जाल्या. जांणी कोळमेर मुट्ट्यांचो रोस काडटा तो पळयला. तांकां ही कविता चड बरी भावतली.

सभांच्या माचये वेल्यान एक सांगप आनी प्रत्यक्ष जिवितांत वेगळें वागप, अशा प्रवृत्तींचो हालीं खूबच सूळसुळाट जाला. 'आदर्श' हे कवितेक कवीन अशा प्रवृत्तींचेर वळ ये सारकींच चाबकां मारल्यांत. ती पळयतकच वाचकाक स्वताच्याच अणभवांची याद जाले बगर रावची ना.

शारांत वास्तव्य करून रावपी लोकांक गांवांचे खूब दुवाळे. तांकां गांव कित्याक जाय हें कवीन 'आमी गांव सांबाळूंक जाय' हें सुंदर पद्दतीन सांगलां. ह्या दुवाळ्या फाटल्यान तांचो लिपिल्लो स्वार्थ कवीन ज्युस्त सोदून काडला. शारांतलीं सगळे तरेचीं सुखां असुदाय भोगपी लोकांक गांवच्या मनशाची व्यथा कळना तांकां गांव जाय तो दोन दिसांचे पिकनिके खातीर. पर्यावरणाच्या इबाडाक खरे कारण असलेच लोक आसतात. आनी तेच गांव सांबाळून दवरपाच्यो खबरो सांगतात. भाशणां करतात. पूण बाबा आमटे जावपाक मात कोणूच तयार नासता. उदयाली ही कविता वाचप्यांक विचार करूंक लायता.

मनशाच्या सोदात ही कवी उदयाची कविता म्हाका भोवच मानवली. जो विचार म्हाका सदांच सतायता तो विचार कवीन हे कवितेत व्यक्त केला.

उदयाल्यो सगळ्योच कविता मनशाचो सोद घेता. कवीक मनीस जाय. तो ताच्या सोदांत आसा. ते खातीर तो सगळ्याक भोवता, गर्देतल्यान लेगीत वाट काडीत वता. पूण कवी जाका मनीस म्हणटा तो मनीस ताका मेळच ना. तरिपूण तो निर्शेना. खंय तरी, केन्ना तरी मनीस मेळटलोच हो ताचो दुर्दम्य आशावाद वाचकाक घटाय दिता, आनी निर्शेणी पयस करता. जीवन जगपाचो एक मंत्र ह्या कवितेंतल्यान वाचकांक मेळटा. मनशान निर्शेवन प्रयत्न सोडून दिवचे न्हय प्रयत्नानूच खरो परमेश्वर आसता, हाचो आपले पद्दतीन संदेश दिवपी ही जबरदस्त कविता.

*हांव निर्शेवंक ना*
*सोद अखंड चालूच आसतलो*
*मनीस मेळसर*

कवितेच्यो ह्यो निमण्यो तीन वळी वाचप्याची उर्जा वाडयता. कवितेचो खूब बरो 'क्लायमेक्स' ह्या वळींनी सादला. संवेदनशील वाचकांक अस्वस्थ करून सोडपी ही कविता.

उदयाच्या ह्या संग्रहात एकाच आशयाच्यो वेगवेगळ्या रुपांत प्रगट

जाल्ल्यो बऱ्योचश्यो कविता वाचूंक मेळटा. काळीज, उजू चलणूक, आपलेपण अशे कांय विशय कविच्या जिव्हाळ्याचे आसात. देखूनच हे विशय-आशय कवितांतल्यान येवप हें सभाविकूच म्हणचें पडटलें. उदयान कवितेची मशागत करीत रावंक जाय. सातत्य हें सगळ्यांत म्हत्वाचें. साधनेंतल्यान विचारांक प्रगल्भता प्राप्त जाता. आयज समाज बदलत वता. नवे नवे प्रस्न तकली वयर काडीत आसा. आधुनिक समाजाचें चिंतप बदल्लां. बदलत्या काळा प्रमाण तांची भाशाय बदल्ल्या. ताका लागून नव्या प्रतिकां, प्रतिमांच्या माध्यमांतल्यान कवी लेखकांनी आयच्या समाजाक समजूं येता अशें शैलींतल्यान साहित्य निर्मिती करपाची गरज आसा. पन्नास वर्सां आदले कांय संदर्भ आयज उरूंक ना. आदल्यो प्रतिमाय गुळगुळीत जाल्यात. हाचो विचार करचोच पडटलो. उदयाच्या लेखणेंतल्यान ह्या सगळ्या गजालींचो वेध घेवन नव्या स्वरुपाच्यो कविता येवच्यो अशें म्हाका दिसता. ताच्या ह्या मनशाच्या सोदांतल्या चडशा कवितांनी उदयाच्या सभावाचें प्रतिबिंब उदेलां. उदयान आपली साधना चालूच दवरची. उदयाक काव्य प्रतिभा प्रसन्न जातली आनी तातूंतल्यान नव्या जाणिवांच्यो कविता ताचे कडल्यान आमकां वाचकांक मेळटल्यो, हाचो म्हाका विस्वास आसा. हें बरोवन हांव थांबता आनी बाकिचें सगळें वाचप्यांचेर सोडटां. उदयाच्या ह्या नव्या संग्रहाक येवकार दिवया.

**- संजीव वेरेंकार**
09422643629
verenkar.sanjiv@gmail.com

**नमस्कार,**

हो म्हजो दुसरो कवितासंग्रह, हाचे आदीं उजवाडाक आयिल्ल्या 'हय सायबा' कविता संग्रहाची पयली प्रत सोंपल्या.

हांव जरी खूब वर्सां सावन बरयतां, तरी हांवें खूप कमी बरयलां हाची म्हाका जाणीव आसा. म्हाका जेन्ना सामकेंच रावूं नजो जाता तेन्नाच बरोवपाक हात येता. पूण जें बरयलां तें म्हज्या वाचकांक आवडटा हेंच म्हजें समाधान.

कलाकाराक रसिकांनी दिल्लो प्रतिसाद ही ताचे कलेची पावती आसता. तशेंच लेखक वा कवीक वाचकांनी दिल्ली प्रतिक्रिया तितलीच मोलादीक आसता. म्हज्या कवितांक चोखंदळ रसिकां कडसून मेळपी उत्स्फूर्त दाद म्हाका सदांच प्रेरणादायक थारल्या.

कविता सादरीकरण हो म्हजो आवडीचो प्रांत. तरणे पिरायेर डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, र. वि. पंडित, बाकिबाब बोरकार, शंकर भांडारी, पुंडलीक नायक, नागेश करमली, रमेश वेळुस्कार, उल्हास पै रायकार, अशोक भोंसलो, डॉ. भिकाजी घाणेकार अशा नामनेच्या कवींच्या कवितांचें सादरीकरण लागींच्यान अभ्यासूंक मेळ्ळें, तशेंच तांचे सांगातान कवी संमेलनांनी कविता सादर करपाचो योग आयलो. तो काळ कोंकणी कवितेच्या सादरीकरण पर्वाचो भांगराकाळ आसलो अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

फाटलीं सुमार 38 वर्सां हांवें वेगवेगळ्या गावांनी आनी कवी संमेलनांनी जंय जंय कविता सादर केल्या थंय थंय रसिकांनी म्हाका माथ्यार घेतला. म्हज्या कांय कवितांक दर कवी संमेलनांत प्रेक्षकां कडसून मागणी येता.

'म्हाका गो तूं अशें जाय', 'हय सायबा', 'आमी गांव सांबाळूंक जाय', 'शारांतल्या भावा म्हज्या', ह्या कविता वांगडाच हालीं 'काळजांच्या बाजारांत' काळजांच्या कवितांचोय दर मळबाक तेंकला.

म्हजी कविता रसिकांच्या मोगान फुलता. हो मोग दिशीं दिशीं वाडत वचूं.

आयज हें नकसूद अशें पुस्तक तुमच्या हातांत दितना हांव खूप खोशी आसां. पुस्तकाची सोबीत मांडावळ करपी प्रदीप पाटील तशेंच छापणावळीची पुराय जापसालदारकी घेवपी वास्कोचो उद्देजक सिद्धेश पै रायकार हांच्या रिणांत रावूंक म्हाका आवडटलें.

कवी संजीव वेरेंकार तर म्हजो लागींचो इश्ट. ताणें कविता संग्रहा खातीर चार उतरां बरयलीं. ताणेच बरोवपाचीं तीं. तो ताचोच अधिकार. म्हज्या कवितांचेर भुरगेपणांतसावन मोग करपी मुंबयंत रावपी खडेगांठ गोंयकार चित्रकार राधिका सुखटणकार हांणी तर समर्पक अशें मुखचित्र काडून म्हाका हाचे मुखार अदीक नेटान बरोवपाक उर्बा दिल्या. कविता वाचून बरी वायट प्रतिक्रिया मुजरत कळोवची.

बरें मागून,

**उदय म्हांबरो**
वळवय-गोंय
+919420766769
+918806049969
udaymhambro@gmail.com

# अंतरंग

# उमाशेची पुनव

भिकाऱ्याच्या घरांत
भरिल्लीं ताटां
सड्यावेल्या तळपार
पिकल्यांत गा शेतां

सोरपाच्या बिळांत
सोश्याची पिलां
कोलकाचे वेंगेंत
माजर गा व्हिलां

उमाशेच्या रातीं
पुनव चान्नेल्या
काजऱ्याच्या झाडार
मोगरींच गा फुल्ल्यां

सुर्याच्या तेजांत
काळखी नदर
विद्‌वानांच्या ज्ञानांत
अज्ञानाचीच गा भर

## असत्यधर्म

श्रापाविणे जिणें म्हजें
हून दुदा घोंट
सत्यान हांव वागलों जाल्यार
भरना म्हजें पोट

असत्याचो धर्म म्हजो
न्हय गा अधर्मी हांव
सत्यान चलतल्याच्या
घालचो वर्मी घाव

नितीनेम पाळीत तर
जायत कसो लाव
आड जो जो येत ताचो
सादचो आमी दाव

सत्याच्या पुजाऱ्यांचें
आसता व्हडलें तोंड
पायांतळा पळयात मात्शें
जालां रेब्या कोंड

# काळजांचो बाजार

काळजांचो भरला बाजार
मोंव काळीज, घट काळीज
तांबडें काळीज, काळें काळीज
गोड काळीज, तुरट काळीज
कोणाक कसलें जाय तें
बाजारांत मेळटा काळीज

काळजांचो भरला बाजार
मोव दिवन घट व्हरचें
काळें दवरून तांबडें व्हरचें
तुरट नाका गोड व्हरचें
संद सादून काळीज बदलचें
संद अशी येना परती
काळजां म्हळ्यार काळंगा न्हय तीं

काळजाच्या बाजारांत
एकदां तरी येवन वच्चें
जांचे आसत काळीज म्हेळें
तांणी काळीज बदलचें
पोत्रे काळीज कावलाक काडून
नवेंताळें काळीज व्हरचें

# कॅथलॅबातल्या बाज्जेर

काळजाचोच दोतोर जाल्ल्यान
सदांच काळीज तपासचें पडटा
कोणाचें काळीज गरजेभायर उडटा
तर कोणाचें झेलावरी थंड पडटा

कॅथलॅबातल्या बाज्जेर
तरेकवार काळजां पळयलीं
आडखळ काडून कितलींच
काळजां निवळ केलीं

कांय काळजांनी
खूब घयरांव
तर कांय काळजांनी
सादिल्लो आसता दाव

घयरांव जांच्या
आसत काळजांत
तीं चलतना आडखळची
हातूंत कसलें अजाप?

पूण बंद पडपाचे वाटेर मात
नितळ निवळ काळजांच आसतात
समाजातलो  घयरांव पयस करपांत
निर्मळ काळजां खरशेतात

## चंद्रा म्हज्या

पुनवेच्या चंद्रा
तुजो उजवाड
जरी कितलोय शितळ
आनी मनभुलायणो आसलो
तरी ताचे म्हत्व कळटलें जाल्यार
उमाशेचो काळोख अणभवूंक जाय
घरांतलीं वीज वचूंक जाय
जनरेटर, इन्वर्टर, सोलर यंत्रणा
पुराय इबाडूंक जाय
दिवो, वात, मेणवात, फस्क
मेळूंक कठीण जावंक जाय
काळखान हांव
नाक आपटून पडूंक जाय.
मागीर तुका
गिराण लागल्यार लेगीत
तूं जाय जाय सो दिसतलो
गिराणाचें खत लेगीत
अस्तुरेच्या पोल्यावेलो
नाजूक सोबीत तीळ कसो
नकसूद दिसतलो

## आमी

कांय जाण
जल्माक येतात
हात घालता
ताचें भांगर करपाक

तर कांय जाण
जल्माक येतात
भांगराची लेगीत
माती करपाक

कांय जाण
जल्माक येतात
चार-चवगांचें
बरें करपाक

तर कांय जाण
जल्माक येतात
येतल्या वतल्याचें
घट्टाण करपाक

कांय जाण
जल्माक येतात
तत्वा खातीर
जीव हुंवाळपाक

तर कांय जाण
जल्माक येतात
तत्वाच्या नांवान
कायलोळ्यो करपाक

कांय जाण
जल्माक येतात
आमचे सारक्यांक
सपनां दाखोवपाक

आमी मात
जल्माक येतात
दर फावटी
फटवपाक

# आयज आनी फाल्यां

काळ कोणाक रावना
जें करपाचें तें आज कर रे
फाल्यां कोणें पळोवंना
आयज दिसता तेंच खरें

## सहनशक्त

गुपाट काळखांत
भिरांकूळ वाठारांत
जो भिलो तो गेलो

उमास आसा
देखून उजवाडांचे
उत्सव आसात

उजवाड येतलोच
तोवेर काळोखूय
सोसूंक येवंक जाय

गोड पचोवपा खातीर
इल्लें कोडू किरायतें
जिरोवंक जाय

# प्रतिबिंब

आमी दीसपट्टें मनयतात
कसलो ना कसलो दीस
मागीर,
नरकासूराचीच आमकां
कित्याक जावची नसाय?

दर वर्सा मारून लेगीत
परत नव्या नेटान
वाड्यावाड्यार अळम्यावरी
नवे नवे नरकासूर येतात
ते खरेपणान
नरकासूर न्हय
तर आमचेच प्रतिबिंब

आमच्यांतल्या असूर वृत्तींक
मारप आमकां जमना
देखून आमी
नरकासूराच्या रुपान
आमचेंच प्रतिबिंब
तयार करून लासतात

## म्हज्या हाताची पांच बोटां

काल रातीं हांव सपनेलों
सपनांत म्हज्याच हाताची
पांचूय बोटां उबीं रावून,
एकमेकां कडेन
व्हडल्या व्हडल्यान झगडटात

आंगठो म्हणटा,
आपूण आंगान मोठो, देखून आपूण व्हड
(अनामिका) आंगठ्या देगेचें बोट
दरेकल्याक बोटांचेरूच नाचयतलें म्हणटा
मदलें बोट तर म्हणटा
आपलें एदें उंच
आनीक कोण ना
(मरंगळी) मदल्या कुशीच्या बोटातली
भांगरामुदी तणतणटा
(करंगळी) धाकले बोटाची मात काकूट
आदींच पयलीं बारीक
हांच्या झगड्यान
ताच्या पोटान
आयलो गुळो

# पयशांक लागलो हुंदीर

हुनुल्ले हुनुल्ले
खंय वताली?
हॉटेलमालक
चवथीक गेला
चवथ सोंपून
येवचें आदीं
हॉटेल नितळ
करपापासत थंय वताली

हुनुल्ले हुनुल्ले
किदें खाताली?
वर्सान वर्स
मोदक खावन
जीव जाता जड
देखून तंदूर खाताली

हुनुल्ले हुनुल्ले
बिळ गें तुजे खंय़?
बिळांत म्हज्या
सोरोप रिगला
देखून आतां

हुंदरान म्हज्या
बरो मोतीदोंगरार
नवोताल्ल बंगलो बांदला

हुनुल्ले हुनुल्ले
बंगलो बांदपा इतलो पयसो
मेळ्ळो तुका खंय?
आमी जांच्या घरांत
इतली वर्सा केल्ले बीळ
ताणेच आमच्या बिळांत
पयशांची पोटली धोंगशिली

## कदेल

कदेलाची आस्त
सुटून सुटना
कदेलार बसतल्याक
बसपाचो धंग ना

कदेलार बसप काय कोसळप
ताचो लेगीत पोंत ना
कदेल लेगीत विटलें आतां
मोडले बगर सुटका ना

## नाक कातरे

नाक खंय आनी आदोळी खंय
ही म्हण बेस्टी येवंक ना
पयली तेंपार
कोणेय तरी
खंय तरी वचून
नाक कापलां आसतलें

आनी कितेंय कापल्यार
लिपोवं येता
नाक कशें लिपोवचें?
एके कडेक आशिल्ली
आदोळी बाबडी
निमताक सापडली

आतांच्या काळांत
आदोळेक सुशेग जाला
नाक कातरेंच चड जाल्यात
सरळ नाकाचे सोदचे पडटात

# आदर्श

नितिमत्तेची बातां मारपी
लोकूच जेन्ना
रसातळाक गेल्ले दिश्टी पडटात
तेन्ना नवे पिळगेक
आदर्श तो कसलो उरता?

सभेमाजार भाशणां ठोकपी
लोकूच जेन्ना
वेदी फाटल्यान न्हेसण सोडटात
तेन्ना नवे पिळगेक
आदर्श तो कसलो उरता?

विज्ञानाची कास धरपी
लोकूच जेन्ना
प्रयोगा आदीं नाल्ल फोडटात
तेन्ना नवे पिळगेक
आदर्श तो कसलो उरता?

## स्वाभिमान

वाडटी पिराय वाडयता
जण एकल्याची जाण
दीसपट्टे जिणेंत मेळटा
अणभवांची खाण

मनशाच्या आंगात
जोवेर आसत त्राण
स्वाभिमान दवरचो
न्हय कोणाकडे घाण

## पिराय

दिशी दिशी वाडटी पिराय
नदरेन मात जुवानकाय
तरण्या कंवळ्या मनाक मात
थकलेल्या शरिराची नसाय

## जनावरां

लजेभीड नासलेली
जनावरां उगडीनागडी
मनशाच्या आंगार मात
नितिमत्तेची कापडी रुपडीं

कितलीय नीट केली तरी
सुण्याची वांकडी शेंपडी
पडलो तरी नाक वयर
मनशाचें वागप बेगडी

## मुट्टे

तांबडे, हळडुवे, पाचवे
तरणे, आमुरपिके, पिके
मुट्टे सगळे दोणींत घालचे
पांयापोंदा माड्डून
चिड्डून, पिळून
तुमी काडचो रोस
आनी उरचो फक्त चोथो
तरी
जालेच ना तुमचें समाधान देखून
चोथो वालिंनी बांदून
ताचेर दवरचो एक व्हडलो फातर
आनी थेंब थेंब गळपी निरो
तोवूय तुमीच घोटचो

रोस पुराय देंवतकूच
चोथो मारचो मोखून भायर
दुसरे दिसा दोणींत
दुसरे मुट्टे तयार, माड्डून घेवपाक!

## नव्या वर्साचीं उर्बेभरीत परबीं

संकश्टाच्या दर खिणाक
मन दवरचे शांत
आत्मविस्वास जागोवचो
निर्शेल्ल्या मनांत

निर्शेणेच्या दर खिणाक
धरची याद मनांत
राती उपरांत दीस
आनी दिसा उपरांत रात

पोरने वर्स सोंपलें
आतां नवें वर्स उदेलें
वायट जें जें आसलें
तें सगळें अस्तमलें

नव्या वर्सा, नवो सुर्या
नवें वत पातळ्ळें
निर्शेणी पयस सारात
भाग्य पळय उजळ्ळें

## उजवाडाचे मोल

जांकां काळखांतूच
रावपाची जाल्या सवंय
तांकां उजवाडाचें मोल
कळचें कशें?

जांणी काळोख
पळयलोच ना केन्ना
तांकांय उजवाडाचें मोल
कळचें कशें?

# मळबांत उडटना

आयज मळबांत उडटना
कापसाच्या गुठल्यावरी
धव्याफुल्ल कुपांतल्यान
सकयल धर्तरेक पळयता
तेन्ना म्हाका धर्तरी
खूब ल्हान दिसता

खरेंच आमी समजतात
तितले व्हड
आमी आसतात काय?

## हितचिंतक ?

कुल्याक जाल्लीं चवनां
खाजोवन खाजोवन
जशें काडचें रगत
तशें तूं
म्हज्या मनावयलें घाये
उस्तीता परत परत

## आस

म्हज्या जिणेची आस तूं
म्हज्या काळजाची भास तूं
भविश्याचो ध्यास तूं
सपनपिसो श्वास तूं

## जाणटो

तुजे एक एक करणेन
हांव नव्यान जियेवंक शिकतां
ओमथो उदारो लोळत लोळत
दिमकुऱ्यांनी घोडो करूंक शिकता

तुजेंच पळोवन
बोटाक धरून
उबोय रावतलो
ल्हवू ल्हवू पावली मारीत
चलूंक शिकतलो
पडटलों
उठटलों
उलोवंक शिकतलों

पोटाक भूक लागतकीर
आतां रडचो ना
आड्डी मारतलो
तुज्या भुरगेपणांतल्या
कर्तुपांक पळोवन
हांव खूप कितें शिकतलो
हांव मात्सो जाण्टो जातलो

# निश्पाप

तुजें मन निश्पाप
निश्कलंक
तुजी नदर निर्मळ
काळीज निवळ!

तूं आतां व्हड जालें
पिरायेन तशेंच बुद्धीन
कितें बरें, कितें वायट
कितें खरें, कितें फट
कोणाकडे कशें वागचें
कोणाक कशें वागोवचें!
तुवें आतां समजून घेवंचें

संवसार भायरसून
सगळो बरोच पूण
भायरसून हळडुवेच दिसपी
सगळेच आंबे पिके नासतात

अणभवाच्या साणीर तुका
आतां संवसार जोखचो पडटलो
पावला पावला कणकणी

अविश्वास दाखोवचो पडटलो!

पूण गिन्यानाची पणटी घेवन
तुका विश्वास सोदचोच पडटलो
तो आसतलोच आसतलो
मिट्ट काळखान
खंयतरी उजवाडाची कीट
तुका होच संवसार दाखयतलो!

## पावस

ही आस
ही भास
वथ्रेता
पावस

हो ध्यास
हो पावस
मोगाचो
पावस

हो श्वास
हो वास
मिर्गाचो
पावस

## हुंवार

हालीं पावसूय असोच
तुजेवरी हयन्हयसो जाला
वाट पळयता
तेन्ना दडी मारता
आनी केन्नाय असो
अचकितसो
मळबांत ढग
फुटिल्लेवरी
घसघश्यांनी
घालून घेता
भायरभितर
शिरंत्रां गात्रांनी
रक रकरकता

हुंवारूच असो येता
अस्तित्व म्हजें
व्हगडावन बसता
जिणेन म्हज्या
सदांकाळ
हुंवारूच येवचो दिसता

पूण खरें सांगू?
सोसूंक नजो जावपी
तो दुकळ नासलो
जाल्यार?
घडये हांव
ह्या हुंवारांत
फुगार जातलो आसलो
घुस्मटून पावस म्हाका
नाकाच सो जातलो आसलो

## पावसाचेर आयला सांवार

दडकांचेर वोतता दडको
पावसाचेर आयला सांवार
जोगला वांगडा गडगडो
वावशी, वारो उटंगार

झाडांपेडां आयला काळ
सुकणी पडल्या उबंतार
उपाट भरून व्हांवती व्हाळ
न्हंयेक लेगीत आयला हुंवार

हुबलें पाखें, उक्तो गोठो
गोरवां सगळीं पावली मार्गार
घरांत ना अन्ना गोटो
खांकनवाळ जालो शेतकार

पावस गेलो, जालो ओकळ
आदाराक आयलो सरकार
मदले एजंट जाले आडखळ
शेतकार मेलो विकून घरदार

पावस आयलो पयसो आयलो
भरून गेलो कोणा घर
आदार कोणाक, कोण घेतलो
सोपलो मात शेतकार

## सेटलायट पावस

पयलींच्या तेंपार पावस
खटाऱ्या बसीवरी येतालो
आनी अटंग्या रानांत
बस मोडटकीर जशी
दिसानदीस उरता
तसो म्हयनो म्हयनो
झडत उरतालो

उपरांत केन्नाय
कोंकण रेल्वेवरी
धडधडत भोंगे
वाजयत येवंक लागलो
आनी राजधानीच्याच
वेगान वचूंक लागलो

हालीं विमानाची तिकेट
सवाय जायतसावन
पावस विमानांत ब़सून
येतासो दिसता
केन्ना येता केन्ना वता
तें समजतासर नाच्च जाता

फुडाराक हो पावस
सेटेलायटावरी
मळबांतूच घुंवत रावत
हाचोच आतां
म्हाका हुस्को जाता.

## आमी गांव सांबाळूंक जाय

तांकां विकास जाय. उदरगत जाय
शारां जाय, शारांत रावूंक जाय
आनी तांचे खातीर जें उदक जाय
भाजीपालो जाय, फळफळावळ जाय
तें पिकोवपा खातीर आमी
गांवच्या लोकांनी चिखल कालोवंक जाय
इतलेंच न्हय
तर उपरांत तांचो कोयर
उडोवपा खातीर लेगीत तांकां परतून गांव जाय
तांचे खातीर आमी गांव सांबाळूंक जाय
गांवच्या शाळेन शिक्षण बरें नासलें
तरी आमी घरादेगेचे शाळेन
भुरग्यांक शिकोवंक जाय
टिचर शाळेन एकूच देखून
चारूय वर्गाच्या भुरग्यांक
गोरवां भशेन एकाच वर्गान कोंबूक जाय
तांचे खातीर आमी गांव सांबाळूंक जाय

गांवांत दोतोर नासल्यार
आमी प्रतिकार शक्त वाडोवंक जाय
येरादारीची साधनां नासल्यार

आमी सहन करूंक जाय
न्हयचेर पूल नासल्यार
पेवन वचूंक जाय
वावराक मनीस नासल्यार
पेंगट बांदूक जाय, पूण
तांचे खातीर आमी गांव सांबाळूंक जाय

रानदुकरान शेतां-भाटां फस्त करूं
माकडांनी केदीय नाशाडी करूं
गांवच्या लोकांक वागान खावं
नातर हतयान माड्डूं
जंगली जनावरांक मारप ना
शारांतल्या लोकांक केन्नाय शुद्ध हवेन
मेकळो श्वास घेन दिसलो जाल्यार
तांकां गांव आसूंक जाय
तांचे खातीर आमी गांव सांबाळूंक जाय

चकचकीत तिजुल्यांच्या फ्लॅटांत रावून
वर्तमानपत्रां, दूरदर्शन सारक्या माध्यमांतल्यान
पर्यावरणाचो हुस्को काडपी
समस्त पर्यावरणवाल्यांक
आमी दिनवास दिवंक जाय
तांच्या ह्या सैमा वयल्या मोगाक लागून तरी,
तांचे खातीर आमी गांव सांबाळूंक जाय.

# इश्टागत

इश्टागतीक वचूंक
दिवं नाका वेर
एकामेकांक घश्टतना
घालची मर्दी मेर

इश्टागतीचेर आमच्या
सगळ्यांचीच नदर
एकमेका भावनांची
करूंक जाय कदर

इश्टागतीन करचें न्हय
केन्ना भायर भितर
मेकळेपणान वागचे खरे
गिळचे वायट उतर

इश्टागतीक येवंची ना
आनी कसलीच सर
तुजी म्हजी इश्टाग़त
उरची मरसर

## शांत मन

हांव जेन्ना आसता
घरभर मनशांत
तेन्ना घरांत आसता
म्हजें मन शांत

## घरचीं

घराचेर आनी घराब्याचेर
जांचो जीव
त्या म्हज्या घरच्यांची
जीण सजीव

# मोगाचो खेळ

मोगाचो खेळ खेळटना
केन्ना पडटा
केन्ना दुखता
केन्ना हांसता
केन्ना रडटा
म्हणून कोणे
खेळप सोडूंक फावना

मोगाच्या खेळान
काळीज जिखतलेच अशें ना

पूण जायते फावट
ज्या काळजाचेर
आपलो जीव आसता
त्या काळजा खातीर
हारप लेगीत
सुखदिणें थारता

## काळजी

दोतोरान सांगलें
काळजी करूं नाका
काळजाक बरे न्हय

हांवें काळजी सोडली

इतली सोडली की
काळजाची लेगीत
काळजी सोडली

आतां तीच मोठी
काळजी जाली

## गरज

काळजाक
दुसरें काळीज
मेळ्ळें तेन्ना
खीणभर काळीज
श्वास घेवंक विसरलें

काळजाक
दुसरें काळीज
सोडून गेलें तेन्नाय
खीणभर काळीज
श्वास घेवंक विसरलें

म्हणजे काळजाक
श्वासापरस
दुसऱ्या काळजाचीच
गरज चड तर!!!

# अपुर्बुद्द

हांव अपुर्बुद्द
कित्याय कितें
उलोवन गेलों
व्हडा काळजान
तुवें म्हाका
माफ केलो

एक उतर
उलयनासतना
तूं म्हाका
काळीज तुजें
दिवन गेलो

## उश्णे काळीज

पयली हांवें जायत्या जाणांक
म्हजें काळीज उश्णे दिलें
कांय जाणांनी कळंतरा सयत
तें परत केलें
तर कांय जाणांनी
कळंतर खालें
काळीजूच परतें केलें
तुवें मात म्हजें काळीज
तुजेकडेन दवरलें
म्हज्या काळजाच्या बदलाक
तुजें काळीज म्हाका दिलें
आतां हांव आनी कोणाक
म्हजें काळीज उश्णे दिवंक शकना
म्हज्या काळजा कुरकुटांत आसा
आतां तुजें काळीज

## तुज्या येवपांत

तुज्या येवपांत
म्हजे जिणेन
परमळाचे रान फुल्लां

तुज्या येवपांत
म्हजे जिणेन
रातराणये गंध भरला

तुज्या येवपांत
म्हजे जिणेन
पुनवेचें चान्नें फांकला

तुज्या येवपांत
म्हजे जिणेन
दडकांनी पावस झडला

तुज्या येवपांत
म्हजे जिणेन
चैतन्याचे वारें व्हांवलां

तुज्या येवपांत
म्हजे जिणेन
सर्वांगी सर्वस्व लुटलां

## तुजें म्हजें नातें

कोणेतरी विचारलें
तुजें म्हजें कितें नातें
तुज्यांत आनी म्हज्यांत
जें ना तें नातें

कित्याक जाय आमकां
रगताचें नातें
आमच्यांत जें ना तेंच
आमचें खरें नातें

## घराबो

चार कोणश्याचें आसचें घर
घराक आसचें राजांगण
एका कोणश्याक हाल्लें जर
घरासकट हालचें आंगण

बायलां भुरगीं जाण्टीं नेण्टीं
घरांत आसचीं मनशां घरभर
मावशी मामा आतें जाण्टी
सोयरीं आसची रासभर

खळ्यांत आसचे राशीचें नाल्ल
मांगरान भरचें भात
पोरसांत रचचे तणाचे दाळ
गोरवां आसचीं गोठ्यांत

पडवेर आसचो झोपाळो
घराची ती रसणाय
घरचे सुनेक लागचो दुवाळो
घरभर कितली तोखणाय

घराचे दार आसचे घटमूट
बांदचें बरें दुरीग
घरांत कोणाची नासची घुस्मट
वेगळेचाराक नासची रीग

घर आसचें घरासारकें
नासची ती बंदखण
मनीस आसचे मनशासारकें
दिसची न्हय अडचण

घरच्या मनशांनी जावन चिरे
वणत बांदची घराची
मायेमोगाचें सारोवन शिमिट
घटसाण घराक दिवची

## फातर

जोखून आंब्यार
मारचो फातर
गेल्यार फुकट
गेलो फातर
नातर आंबो
व्हॉंटयें भितर
अशें म्हणपाचे
दीस आतां
फाटीं पडलें

आतांचें फातर
जोखतल्याकूच
जोखूंक लागल्यात
आंबो तर पडच ना
फातरूय फुकट वच ना

## नदर

काळीज रंगान
तांबडेच आसतलें
अशें म्हाका
सदांच दिसतालें

काळेंकिट्ट काळीज
पळयत सावन
रंग वळखुपाची नदर
म्हाका तपासून घेवपाची
गरज दिसूंक लागली

# उरफाटें काळीज

चिली काळीज
चिनी काळीज
मसाला काळीज
तंदूर काळीज
अशे जायते
काळजाचे प्रकार आसता

पूण काळजाचो
खरो घोस्त
काडटलो जाल्यार
काळीज बरें
इंगळ्यार भाजून खावंचें
पचोवपाक मात
उरफाटें काळीज जाय

## धिटाय

केन्ना केन्ना
मनाविरुद्ध
वागचे पडटा
काळजार फातर दवरून

आंगात नाशिल्ली धिटाय
हाडची पडटा
फातराचे
काळीज करून

## माकडाची काणी

हांवूय एक दीस
जांबळीच्या झाडार बशिल्लों
मासाळ बरीं जांबळां खायत
काणयेतल्या माकडावरी

इतल्यान एक मानगें आयलें
म्हाका जांबळां खातना पळोवन
ताच्याय तोंडाक उदक सुटलें
आपल्याक चार जांबळां उडय
म्हणपाक लागलें

हांवें एक जांबळ
वयल्यानूच उडयलें
मानग्यान जांबळ
मिटक्यो मारीत ख़ालें

मानग्याक जांबळ
खातना पळोवन
कितलीशींच मानगीं
जांबळीतळा पावलीं
म्हाका दी तुका दी
करपाक लागलीं

इतलीं मासाळ गोड जांबळां
झाडार बसून सदांच खावपी
म्हजें काळीज कितले गोड
अशें मानग्याच्या मनांत
येतलेंच येतलें
तें हांवें जाणलें

हांव कितें काणयेंतलो
माकड तर?
हांवें आनी वेळ केलो ना
काळीज काडलें
मानग्याक दिलें
म्हळें, वांटून खायात

मानगें म्हणटा कशें!
नाका नाका
काळीज नाका
काळीज खाल्यार
एकदांच खावंक मेळटलें

तुजें काळीज जांबळीरूच दवर
जांबळीर बरो घट्ट बस
मासाळ बरीं जांबळांच
आमकां उडयत राव
काळजा परस जांबळांच बरीं
आमीय आतां काणयेंतलीं
मानगीं उरूंक ना

# भयरोजोळोप

म्हजें मन
उखलापें
मात्शें खंयूय
खटखूट जाल्यार
कल्ल करून
आंग काडटा

वण्टीवेली पाल
आंगार पडल्यार
तुवालो मान्न्यान पावता

काळे माजर
आडवें गेल्यार
वाटेवेल्यान परतो येता

व्हडा रातीं
सुणो रडल्यार
कोणूय तरी खंवसता

भियेत भियेत
अशींच काडलीं

कितलीं वर्सां
आनी
पयर मध्यानरातीं
चड्डेन कितें हुळहुळ्ळें

दिवो लावन
पळय जाल्यार
हातभर माळूण
भर न्हिदेन चड्डेन गेलें
गुटली करून बसलें
काळीज बरें घट केलें
हातान धरून
भायर काडलें
खोले केलें

तेन्ना सावन
माजराक, सुण्याक
आनी पालीक सुशेग जाला

## दुस्वास

म्हज्या काळजाक जेन्ना
तुजें काळीज मेळ्ळें
तेन्ना तुजें काळीज
म्हजे पासत
कितलें म्होंवाळ तें
म्हज्या काळजाक कळ्ळें

तुजें म्होंवाळ काळीज
सगळ्यां पासत
तितलेंच म्होंवाळ
म्हज्या काळजाक कळ्ळें
तेन्ना मात
म्हजें काळीज जळ्ळें

## समर्थ धुवो

कांय घरांतल्या पुतांनी
भरल्यात कांकणां हाताक
त्या घरांतल्या धुवांनी
माथें मारलां संवसाराक

# घर

मदेरामेत करचो सोडून
घरकार गेला घर सोडून
जगावेल्यो राटावळी करता
शेजारच्या भितोडेक बसून

घरूच आयलां मदेराक
वाश्यान वासो बरगेला
वेरो गेल्या वण्टीक
आनी कोनवासो बावगला

गों गों करीत घुंगुल्लो
पाटयेचेर भोंवतालो
शिटूकसाणेन घरकारान
घुंगुल्ल्याक मारपाचो

आतां खुब्ब कळाव जाला
वाश्यान वासो मेकळो जाला
खिळो लेगीत ठोकलो जाल्यार
येतले आतां घरूच हड्ड्यार

## हुर्राक

भाटांतल्या भाटीर
पिकलां नवें हुर्राक
सोरो जिवाक बरो म्हणीत
फिग्दाक पडला बुराक

## धडेवयलो

धडेर रावून
कशें पेंवप
ताचे धडे
दिवप सोपें

शिकयतल्याक
पेवंक येवचेंच
अशें ना?

उदकान हात मारपी
शिकता शिकता
नाका तोंडान
उदक वचून
बुडपाक लागल्यार?

धडेर बसून
पेंवपाचे धडे दिवपी
कसलो धडो घेतलो?

## देव

खंयच्या देवान
सांगलां केन्ना
आपली पूजा
बांद म्हणून?

खंयच्या देवान
सांगलां केन्ना
आपल्याक वाती
पेटय म्हणून?

खंयच्या देवान
सांगलां केन्ना
आपल्याक फुलांनी
श्रुंगार म्हणून?

खंयच्या देवान
सांगलां केन्ना
पालखी, रथ
नाचय म्हणून?

खंयच्या देवान
सांगलां केन्ना

आपली देवळां
बांद म्हणून?

खंयच्या देवान
सांगलां केन्ना
आपूण तुमचो
देव म्हणून?

आमीच केलो देव ताका
आमीच केल्यो आंगवणी
आंगवणी पावोवपाक
आमीच बांदली पूजा
आनी फुलांची श्रृंगारणी
आमीच काडली पालखी
आनी आमीच नाचयले रथ
आमीच घाली गाराणी
आनी आमीच केली सांगणी

आनी गाराणी घालून
सांगणी करून जेन्ना
आमचीच कामां
केली ना देवांनी
तेन्ना परत आमची रागणी

परत नवो देव
नवें देवूळ
नवी पूजा
नवी पालखी
नवी गाराणी

# अंतरंग

जाणे आयुश्यांत
केन्ना कोणाचे
वायट करूंक ना
वा वायट चितूंक ना
ताचेर जर कोणेय
कसलेय बोगलांट घालें
जाल्यार त्या मनशाचें
कितें जावंक फावो ?

अशा मनशाची
खरी वळख
आमकां केन्ना नासताच
तरी जायते फावटी
लोक उलयतात
म्हणून आमी उलयतात
त्या मनशाची
कांयच चूक नासतनाय
आमी ताका
गरजे भायर दुशण दितात

आमी आमच्या अंतरंगात
ढवळ मारून पळोवंचो पडटलो
घडये आमीय बी अशे कोणाक
गरजे भायर दुखयनात न्हय?

## वान्सा

काव‌ळो बसपाक आनी
खांदी मोडपाक
एक जाता
अशें कोण म्हणटा?

हालीं चडशे फावट
काव‌ळो तिरशे नदरेन
खांदी मोडटा
ती पळयता
आनी पिट्ट करून
मोडटले खांदयेर
वचून बसता

काव‌ळ्याक
असली वान्सा
कित्याक जाता
तें काव‌ळोच जाणा

## आदन

गरजे भायर दुसऱ्याचे रांदनीर
आपले आदन दवरचें न्हय
आदनातलें जेवण करपल्यार
रांदनीक दोश दिवचो न्हय

# न्हिदात

जागे रावूं नाकात
जागे रावल्यार
सपनां दिसचीं ना
सपनांच दिसलीं ना
तर सपनां खरीं जावपाचो
प्रस्नूच येवचो ना
कावळ्याचो मोर
आनी गाढवाचो घोडो
सपनांतूच जावंक शकता

न्हीद येना जाल्यार
न्हिदेचें संवंग घेयात
कोण उठोवंक
आयलोच जाल्यार
तोंडावेले पांगरुण काडून
आपूण न्हिदला अशें सांगात

## संत

संत तूं, तूंच महंत
खताविणे धवो अनंत

तोंडात घालून हात ताच्या
घास तोंडचो ओडूं नाका
सुस्त न्हिदेंत हांतरुणांत
माळूण तूं सोडूं नाका

संत तूं, तूंच महंत
खताविणे धवो अनंत

सुकण्यावरी बांदती घोंटेर
तणा काडयो चोरूं नाका
हुंदरांच्या बिळांत असो
सोरोप जावन रिगूं नाका

संत तूं, तूंच महंत
खताविणें धवो अनंत

घुंगुल्ल्याची भिरांत घालून
पाटी तूंच पोखरूं नाका
देवाधर्मा सोपूत घालून
पखवाज ताचो बडोवं नाका

संत तूं तूंच महंत
खताविणें धवो अनंत

# धुंवरी

धुंवरी पडटकीर
मुखावयले दिसना
आपलो पयलो वळखूंक येना

## सुंब

सुंब जळ्ळें
तरी पिळ वचना
पूण जळिल्लें सुंब
बांदपाक उपकारना

# मनशाच्या सोदांत

मनशांचे गर्देन हांव
मनीस सोदतालों
ल्हेंवटो मेळ्ळो
लेंबडो मेळ्ळो
अस्वस्थ आसाच हांगा

अतृप्त वचत थंय
दुश्ट, नराधम, खुनी
पावला कणकणी
वसवसलो हांव
मनीस पळोवपाक

वचत थंय
वसवसोच मेळ्ळो
पूण मनीस मात
झळकलो लेगीत ना

हांव निर्शेवंक ना
सोद अखंड चालूच उरतलो
मनीस मेळसर

मनशाच्या सोदांत ही कवी उदयाची कविता म्हाका भोवच मानवली. जो विचार म्हाका सदांच सतायता तो विचार कवीन हे कवितेत व्यक्त केला.

उदयाल्यो सगळ्योच कविता मनशाचो सोद घेता. कवीक मनीस जाय. तो ताच्या सोदांत आसा. ते खातीर तो सगळ्याक भोवता, गर्देतल्यान लेगीत वाट काडीत वता. पूण कवी जाका मनीस म्हणटा तो मनीस ताका मेळच ना. तरिपूण तो निर्शेना. खंय तरी, केन्ना तरी मनीस मेळटलोच हो ताचो दुर्दम्य आशावाद वाचकाक घटाय दिता, आनी निर्शेणी पयस करता. जीवन जगपाचो एक मंत्र ह्या कवितेंतल्यान वाचकांक मेळटा. मनशान निर्शेवन प्रयत्न सोडून दिवचे न्हय प्रयत्नानूच खरो परमेश्वर आसता, हाचो आपले पद्दतीन संदेश दिवपी ही जबरदस्त कविता.

- संजीव वेरेंकार

